# जायां पुडो

(कवितां झेलो)

शितल साळगांवकार

रक्षंदा प्रकाशन
बेतीं वेरें.

# जायां पुडो

(कवितां झेलो)

शितल साळगांवकार





**पयली आवृत्ती:**
ऑगस्ट 2011

**प्रकाशन:**
रक्षंदा प्रकाशन
बेतीं वेरें.

**मुखचित्र आनी अक्षर जुळोवणी:**
स्वराज डीटीपी, फोंडें-गोंय.
9764562133

**छापपी:**
तारा प्रिंटर्स
म्हैसूर.

**मोल:**
रु. 100

बरें वायट कळसर
वांगड दिवपी आवय
मुखार शीकसर वांगड
दिवपी बापूय...
जिणेचे वाटेर
फुल्ल्यो तरातरांच्यो कला
खूब खेळ्ळे कश्टाचे खेळ
मनाचे नदरेन
केलो ना वेळ
ओंठावयलीं कवनां फुलां
धूव तुमची तुमकां ओंपतां....
उरिल्ली रासभर फुलां
गुतपाक ...
हात जोडून पदर पसरून
आशिर्वाद तुमचोय मागतां...

सर्गेस्त श्री/सौ. सावित्री दत्ताराम नार्वेकार

**संध्या...**

# मनांतलें

म्हज्या भुरगेंपणांतल्यान म्हाका कांतारां आयकुपाची भोव आवड, रेडिओ वयलीं म्हण नाजाल्यार कसल्याय कार्यावळीक लायिल्ल्या लावडस्पीकराचेर कांतारां आयकतना कळत नकळत म्हज्याय ओंठा वेल्यान आनी कसलें तरी कांतार घळोवन पडटालें. नाजाल्यार तें आयकता तें कांतार ह्या पिशा मनाक अर्दवट भासतालें आनी ताची फुडली ओळ नाजाल्यार निमाणी ओळ हांव म्हजे पद्दतीन रचतालें. आयकतल्याक तेन्ना हें पिशेंपण दिसतालें. सगळीं जाण म्हाका हांसतालीं. पूण म्हजे जिद्दी सभावाक तांची पर्वा नासली. मुखार हीच नवीं नवीं कवनां हांव म्हजे चोपडेंत बरोवंक लागलें. केन्ना केन्ना हांव खंय बरयतालें तें हांव विसरतालें, आनी अचकीत हाताक मेळ्ळें म्हणटकूच उमेदीन वांचतालें.

म्हजी दोळ्याची नदर आनी मनाची नदर खूब वेगळी आसा हाचो म्हाका अदमास लागलो. एक एक वस्त हांव बारकायेन पळोवंक लागलें, सोबीत सुंदर सैम म्हजें दोळे भरूंक लागलें. मनाचे शेवणें खूब पयस वचून भोंवोन येवंक लागलें. न्हय न्हय त्या जाग्यार म्हज्या मनाचो प्रवास सुरू जालो. मनांतल्या मनांत सरभोंवतणी सूख-दूख म्हाका सतोवंक लागलें. मन हळवें जावपाक लागलें. दूख वेगळेच तरेन दोळ्यांनी उफेवंक लागलें. सूख संमजसपणान हांसपाक लागलें, आनी सोबीत सुंदर जिणेक म्हज्या काळजांतलो खूब व्हड वांगड मेळ्ळो. म्हजो अणभव आयकुपी म्हजे नदरेक वळखुपी, म्हज्या मनाचो तळ सोदपी म्हज्यांतलो म्हाका वळखून घेवपी, म्हज्यांतलो म्हजो म्हाका हात मेळ्ळो. मनाचें एकटेंपण ना जालें. वेळा प्रसंगा प्रमाण म्हज्या मनांतल्यो भावना फुलूंक लागल्यो.

एक दीस उक्त्या मळबांतल्या कवी संमेलनाक नयनबायन म्हज्यो कविता आयकल्यो आनी म्हणलें- शितल चल आतां तुजें पुस्तक काडुंया. नयनबायची हीं उतरां आयकून एक वेगळीच उमेद आयली. भितरले भितर मुरगडत हांवें नयनबायक विचारलें सांग म्हज्यो कविता खऱ्योच बऱ्यो आसात. नयनाच्या तोंडांतलीं उतरां म्हाका पांखा बांदून गेलीं. नयनबायन म्हणलें शितल तुज्या शब्दाक कळस आसा. देवाच्या देवळाचेर कळस आसता तोच गाय हो कळस नयन बायक म्हजे कवितेंत दिसता. मन भरून आयलें. मनाचे सुकणें कशेंच सावरना.

खूब पयलीं 'ऑल इंडिया रेडिओ' चेर युववाणींत हांव कविता सादर करतालें. तेन्ना बाब बोरकार थंय आशिल्ले. ती वाट मेळपाचे खरें कारण म्हणल्यार हांव एलआसींत कामाक लागलें थंय तांची सौ. मंगल म्हाका मेळ्ळी. अशेंच उलोवप जालें. आनी तिणें म्हाका रेडिओ चेर धाडलें. एक मायेस्त मनीस म्हाका मेळ्ळे. खूब कार्यावळी सादर जाले उपरांत वाटेर एक दोन फावटी भेटी

घडल्यो. बाब बोरकार हांणी तूं बरयत राव म्हणलें. मनांतली कविता चालूच आसली. ती साध्य करपाचो पंगड नासलो.

उक्त्या मळबांत कविसंमेलनाक हो पंगड मेळ्ळो. कितले तरी ज्येश्ठ कवी आनी इश्ट कवी मेळ्ळे. उक्त्या मळबांतलें उक्तेंपण मन मेकळें करून गेलें. दोतोर भिकाजी घाणेकार, भरत नायक, सुनिल पालकार, शोभा फुलकार, रमेश घाडी, विवेक पिसुर्लेकार, सुनिता शाह ह्या सगळ्यांचो वांगड मेळ्ळो. बाब माधव बोरकार हांकां हांवें खूब पयलींच्या आदाराची याद करून दिली. तांणी तोखणायेचे नदरेन आतांय म्हाका प्रस्तावन रुपान आदार दिलो. धाकल्या भावा सारको संजय बोरकारान म्हज्या पुस्तकाचें सगळेंच बांदकाम केलें.

त्या त्या तेंपार सगळींच फुलां फुलतात. सगळ्याच गांवांनी फुलतात. ह्या तेंपार जायो फुल्ल्या. पूण खंयचेंच फूल गांवचें नांव घेवन येना. वासान परमळपी, घमघमीत ह्यो जायो आयजूय लोक म्हाड्डोळच्यो म्हणून वळखतात. म्हाड्डोळच्या म्हाळशेचें तें एक व्हड वरदान.

शब्द रुपी म्हज्यो जायतो सगळ्यांक बरो परमळ दितल्यो. हो म्हजो पुस्तक रुपी जायां पुडो तुमच्या हातांत दितां. तुमचें म्हजें नातें ह्या जायां पोडांत गुंथयतां. हात जोडून पदर पसरून आई म्हाळशे कडेन मागतां, जायो कश्यो उतरां म्हजी फुलूं दी. पोड तेच रचूं दी. जावन एकल्याच्या ओंठार तुज्या गांवचे नाव येवंदी. म्हज्या ह्या जायापुड्याक आशिर्वाद तुजे मेळूं दी.

**-शितल साळगांवकार**
बेती वेरें

# जायां परमळाची कविता

काव्य भाषा-जिस में बिम्ब मूर्त होते हैं, जिसमें हमारा आनुभाविक जीवन विकसित होता है।

- अज्ञेय

'जायांपुडो' हो शितल साळगांवकाराले कवितांचो संग्रह वाचतना म्हाका शंकर रामाण्याले एके कवितेची याद जाता. रामाणी ते कवितेंत म्हणटा की सगळ्या श्रावण म्हयन्याक म्हाड्डोळच्या जायांचो वास येता. तशें पळोवपाक गेल्यार जाय हें सामको ल्हान आंगलोट आशिल्लें फूल. हेर फुलांचे तुळेन किरकोळ म्हणू येता अशें. पूण एक एक फूल म्हळ्यार अत्तराची कुपी. ताचो वास कसोच लिपना. बरें, ताचो वास उग्र न्हय. जायजायसाचे दिसपी मंद परमळ. सौंदर्य दोन तरेचे आसता. एक दोळ्यांर मारपी आनी दुसरें शांत काळजाक सुखावपी. कविताय अशीच दोन तरांची आसता. शितलाची कविता दुसरे तरेची अशें म्हाका दिसता.

*तुच्या आंगणांत*
*फुलताल्यो जायो*
*सांजवेळार*

वासाचें आनी यादींचें सामकें लागींचें नातें आसता. आनी कवियत्रीक जायो पळयतकच खोल मनांत चाळोवन घाल्लेवरी जाता. 'तुवें हुमटिलें जायां झोंप/हांव खूप रडलें/आंगण तुजें सोडलें अशी तिची अवस्था जाता. पूण कितेंय जालें तरी आत्मसमर्पणाची भावना हांगा तिव्र आसा.

*तींच दोन फुलां*
*काळजांतलीं म्हज्या*
*फुलां सकट घे हें झोंप*
*परत लाय आंगणांत तुज्या*

हे कवियत्रीच्या भावविश्वांत सूख आनी दुख्खाची भावना तिव्रतायेन व्यक्त जाता. मनशाचो प्रवास हो सूख दुख्खाचे वाटे वेल्यान जायत आसता. मनशाक सूख भुलयता तर दूख ताका कांट्यावरी तोंपत आसता. मनांतल्या मनांत तो ह्या दोन सनातन अणभवांक तोलीत आसता.

*परत परत चाळटां हांव दूख*
*एखादें उरत म्हणून*
*चाळणी वयर सूख*
*सूख म्हाका मेळ्ळें ना*
*एखादें हे वाटेन ते वाटेन*

दुखाच्या अणभवाक  लागून सुखाक खाशेलो अर्थ प्राप्त जाता. हातूंत निखालूच दुबाव ना. दुखा बगर सुखाची रुच अळणी. रासभर दुखा उपरांत चिमटीभर सूख मोमलादीक आसता हाची जाण कवियत्रीक आसा. देखून 'सुखाचे वाटेर हांवें दुख्ख पळयलें' अशें तिका म्हणचें अशें दिसता. 'मरणाक कित्याक भियेवं हांव' हे वळीक ताकाच लागून खाशेलो अर्थ आसा. कोंकणींतले एक नामनेचे कवी पांडुरंग भांगी दूख वाल कशी आंगार बळटा अशें म्हणून वता. प्रेमा भशेनूच सूख आनी दूख हे दोन अणभव कलाकृतींनी येवन गेल्यात. आनी आजूय ते येतात आनी जो मेरेन हे धर्तरेर मनीस आसा तो मेरेन ह्या अणभवांक अंत ना. अणभव जरी एक आसलो तरी ताका वेगवेगळ्यो सया आसता. दर एकल्या कलावंतांची तांचे कडेन पळोवचेली आपली अशी नदर आसता. तो त्या अणभवाक नवें नवें परिणाम दिता. ताची नदर त्या अणभवाची खर सोदचेलो यत्न करता. शितलबाय दुखाचो अणभव व्यक्त करतना विकळाप करिना. ह्या अणभवा कडेन पळोवपाची तिरायताची वृत्ती आसा हें सगळ्यांत म्हत्वाचें. अणभव घेवन ताका अभिव्यक्तीचें  रुप दितना हो अणभव घेवपी वेगळो मनीस आसता.

सूख दुख्खा भाशेन प्रेम होय हे कवियत्रीच्या भावविश्वाक व्यापून राविल्लो एक विशय. प्रेम मनाक सुखायता आनी केन्ना केन्नाय अंतपार नाशिल्लें दुखूय दिता. तें सफळ आसूं वा असफळ आसूं तातूंतल्यान बऱ्यांतलो बऱ्यो कविता जल्म घेतात. फकत कविताच न्हय तर कलाकृती जल्माक येतात असो कलेचो इतिहास आमकां सांगता.

*एकसुरी दोन मनां*
*एकठांय आयलीं तेन्ना*
*भिणभिणत फांतोड रात सोंपली*
*दोन काळजां खोशेन फुलून*
*एकामेकांक भेटलीं*

आनी आपल्या मोगाक उद्देशून ती ताणें दिल्ल्या मोगाच्या देण्याक लागून कृतज्ञतायेची भावना व्यक्त करता. कपलावेलो कुकमातिळो हातांत भरिल्लो पांचवो चुडो आनी सगळी जीण परमळान भरपी केंसांत माळिल्लीं जायांचीं फुलां हे बायलेचे अलंकार. स्त्रीवादी विचारांच्या आड वचपी हे विचार आसूं येता. पूण बायलेचे कुडी बराबरूच मनाकूय प्रफुल्लीत करपी हे अलंकार आसता हें विसरपाक जावचलें ना. खरें म्हळ्यार प्रेमाच्या व्यव्हारांत उपकाराचे भाशेक सुवात आसपाक फावना. तो एक अध्यात्मीक पांवड्यावेलो अणभव आसता. देखून 'उपकारी हांव मोगा तुजें उपकारी हांव तुवें दिल्ल्या मोगाचें' हे वळींनी ही

व्यव्हाराची भास दिसता. चडश्या स्त्रीवादी साहित्यांत दादल्यान बायलेचेर केल्लक्षया अन्यायाचें चित्र येता. दादलो बायलेच्या मनाबरबर कुडीची हळसना करता असो एक सूर तातूंतल्यान आयकूंक येता. पूण शितल आपले कवितेंतल्यान एक वेगळें चित्र दाखयता.

*कितलीं म्हूण सपनेता... तूं सपना म्हजीं*
*झेम पिड्ड्यार करून... तुज्या सुखाची*
*केंस तकलेचो नाकशी पांयाची*
*कितली म्हणून करताय तूं कुयदाद म्हजे कुडीची*

आमच्या स्त्रीवादी युगांत हे वळींक विशेश अर्थ नासतूय पूण शितलबायचे कवितेच्या संदर्भांत म्हाका ह्यो वळी ह्या विशयाच्या नाण्याची दुसरी वाट दाखोवपी दिसतात.

बायलेक पूर्णत्व दिता तें आवयपण. ताच्यो नाजूक आनी तरल संवेदना हांगा व्यक्त जातात.

*हो संवसार फुलांचो*
*कसो सोंसू आतां*
*हो भार आवयपणाचो*

कितल्यो सुंदर आनी अर्थगर्भ वळी ह्यो!

जांयांतल्या पुड्यांतल्यो कांय कविता कवियत्रीचे आपजिणेच्या धाग्यांनी विणिल्ल्यो दिसतात. तातूंत थळाचे उल्लेख येतात. ती सैमान नटिल्ल्या शिवोली गांवांतली आनी तिच्या कुळारा इतलेंच सुंदर मांडवीचे देगेर वशिल्ल्या वेरें गांवांत मेळिल्लें तिचें घर. ह्या गांवां कडेन तिचें भावनीक नातें आसा आनी ह्या गांवांची सुंदर चित्रां ती उतरांनी काडटा. भुरगेपणांत वांट्याक आयिल्लें अनाथपण आनी ताका लागून मनाची करपल्ली कोमरी. इतलें आसूनय देवाच्या आशिर्वादान तिका मेळिल्ली फुडें वचपाची तांक. ती देवाक आर्गांच्या रुपान दिनवासता:

*देवा तुका आर्गां दितां*
*सोबीत सुंदर जिणे जगतां*
*देवा तुका उपकार ओंपतां*
*खूब तुवें दिलें म्हाका*

शितलबायचे कवितेची अभिव्यक्ती व्यक्तीनिशठ. तातूंत प्रथमपुरूषी 'हांव' येता. हो तिचे कवितेचो दोश थारना तर तिचो तो एक म्हत्वाचो गूण अशें म्हणपाक जाय. हे कवियत्री कडेन अणभवाचें संचीत आसा आनी तें व्यक्त करपाक तिचे कडेन 'थोडीं उतरां सादीं... थोडीं मोलाचीं...' आसात. ह्या संग्रहांतली 'उतरां' ही कविता तिचें नीज आनी स्वतंत्र व्यक्तीमत्व दाखयता. तिचे कवितेचे उदरगतीची ती एक कुरू कशी.

सुरवेक हांवें हिंदी साहित्यांतले म्हाकवी अज्ञेय हांचीं उतरां दिल्यांत. कवितेचे भाशेंतल्यान आमची अणभवीक जीण उदरगतीक पावता. शितलबायचींच उतरां उश्णी घेवन हांव म्हणटां:

*उमाळ्यार उमाळे ल्हारां भशेऩ*
*आपट्टाले येवन जिणेचे तडीर*
*मनांतलें एक एक सपन*
*उफेतालें कागदा भाशेन*
*उमाळ्याच्या ल्हारार*

हो जायांचो परमळ कोंकणी कवितेच्या विश्वांत भरून रावं अशी इत्सा व्यक्त करतां.

**-माधव बोरकार**
नागाळी, ताळगांव
26 जुलय 2011

# अनुक्रम


1) सूख.......................... 11
2) नमन तुका.................... 12
3) हांव खांदी शिवोलेची........ 14
4) दुख्ख.......................... 16
5) सैमा..........................18
6) पावणी........................19
7) तुज्या आंगणांत................20
8) उमाशेची रात..................21
9) पांयवाट......................22
10) घोंटेर..........................23
11) जोडी......................... 24
12) नातें..........................25
13) मोगा..........................26
14) मोल..........................27
15) हुस्को.........................28
16) सपन.........................30
17) गीत..........................32
18) म्हजो गांव....................33
19) मोगाच्यो जायो............. 34
20) माय मोग................. 36
21) भांगराळें पॅन..................37
22) रात सोंपना.................. 38
23) भुरगेंपण..................... 39
24) उगडास..................... 40
25) खरी आवय................. 41
26) एकवट...................... 42
27 आडवाट......................43
28) भार..........................44
29) सपन सपनूच उरलें ना.......45
30) पलतड...................... 46
31) जिणे........................ 47
32) गुपीत........................48
33) कविता...................... 49
34) तुज्या हुमऱ्यार...............50
35) फुलां........................ 51
36) याद......................... 52
37) म्हज्या घराची वाट..........53
38) उलो..........................54
39) सोबीत म्हजो गांव.......... 55
40) पुनव........................ 56
41) मोगाची वात................ 57
42) शेवर्णी........................58
43) आतां घट्ट याद धर.........59
44) तोखणाय.....................60
45) सोयरे........................62
46) सतभावार्ती बायल...........64
47) वाट......................... 66
48) केन्ना तरी.................... 67
49) वांगड....................... 68
50) वाट पळोवन तुजी...........69
51)रिणकार..................... 70
52) हळदकुकूम................. 72
53) तुजें उत्तर......................73
54) प्रसाद.........................74
55) कांयच नाका म्हाका.........75
56) मेती रंगल्या हाताक..........76
57) तुजो हात................... 78
58) नांव तुजें................... 79
59) तान भूक................... 80
60) काणी.........................81
61) कविता रांदता.................82
62) दोन दुख्खां..................84
63) आई......................... 85
64) आडो........................86
65) म्हजी कविता................87
66) देवा तुका आर्गां दिता....... 88
67) उमाळो..................... 89
68) रावता...................... 90
69) अदमास.....................91
70) यो पावसा यो...............92
71) पयलो पावस.................94
72) तूं............................96
73) उक्तें मळब.................. 97
74) सांगात..................... 98
75) उतरां....................... 99
76) उपकार..................... 100
77) कानी....................... 101
78) फांती....................... 102
79) पानवेलीच्या निमतान........103
80) सुखाचे वाटेर................ 104
81) दुखोवपी......................105
82) यात्रा....................... 106

# सूख

परत परत चाळटां हांव दुख्ख
एखादें उरत म्हणून...
चाळणी वयर सूख
सूख म्हाका मेळ्ळें ना
एखादें हे वटेन ते वटेन...
आसत जाल्यार
हांव ताका वळखना
म्हणीत म्हाका तें मिजाशी
कित्याक तर....
हांवें ताका हडकिलें ना.

# नमन तुका

म्हाड्डोळचे म्हाळशे नमन तुका
चुरलेल्यो पिंजलेल्यो कागदाच्यो घडयो
हांव सासपितां
प्लस्टिकाचे पोतयेंत
कागदाचो पोटलो
जिवापाड हांव जपतां
पावसान भिजलें
वतान सुकलें
अक्षरांक आकारान वळखलें
उतरांक अदमासान जोखलें
म्हाड्डोळचे म्हाळशे नमन तुका
काळजांतल्यान कानांतल्यान
कितें तरी जातालें मनान
अशेच दीस गेले
सोसूंक जायना जालें
भितरले भितर दुखणें
वाडत गेलें
जगपा खातीर जिणें नाका जालें
म्हाड्डोळचे म्हाळशे नमन तुका
प्लास्टिकचे पिशवेन
मेळ्ळें म्हाका वखद
पळोवन अक्षरांचे कळे
दुखणें गेलें पेखत... पेखत
धाडली तुवें ताकद
हो आकार कळयांचो
आसूं तो कागदाचो
कर ताका तुज्या गांवचो
तेन्ना नदरेक आयली

फुलां जायांची
लवलवसाण तुजे मायेची
केली तयारी पोड बांदपाची
गरज पडली म्हाका दोराची
केळमो बाबा तेन्ना धांवत आयलो
फर्रर करून ओडून कात
दोर म्हाका दिलो
दोरा बळार हांवें पोड रचलो
म्हाड्डोळचे म्हाळशे नमन तुका
तोखणाय करपाक म्हजी
धांवत आयलीं पानां हळडीचीं
आरतून परतून रचले खोले
बांदूक पुडे जांया पोडांचे
भायर भितर कितले
उपकार दोराचे
आशिर्वाद तेका मेळटले
आई म्हाळशेचे
म्हाड्डोळचे म्हाळशे नमन तुका
जावन एकलो उगडटलो
हो पुडो फुलांचो
म्हणटलो हो तर
म्हाड्डोळच्या जायांचो
असोच दी म्हाका आई
अशिर्वाद तुज्या फुलांचो
वर्सान वर्स रचुंदी हातान म्हज्या
एक-एक पुडो जायांचो
साहित्याच्या मळार परमळुंदी
वास तुज्या फुलांचो
आई नमन तुका म्हजें
म्हाकाय कर फूल तुजें...

# हांव खांदी शिवोलेची

हांव खांदी शिवोलेची
घांट आयकतालें इगर्जेची
धूव हांव सांत-आंतोन पायची
भयण हांव जागर बाबाची...

हांव खांदी शिवोलेची
रुतलीं म्हजीं पावलां
फुटलीं म्हाका मुना
मेळून मोगाळ माती वेरेंची
झोपां म्हजीं मातलीं
आंगां म्हजीं फाकलीं
फुलां फुल्लीं म्हजेर जायांची
गांवच्या सगळ्या देवा-देवतांचो
आशिर्वाद म्हाका मेळ्ळो
शांतादुर्गेन म्हाका दिलो
आपले कुशीक थारो
वेरेंच्या गुण्या मातयेन
दिलो म्हज्या झोपाक
व्हांवतो झरो
गांवान दिलो
गांवकात्रपणाचो करो....

हांव धूव शिवोलेची
सून हांव वेरेंची
सदांच सांगतालें काणी
मनीसपणाची

हांव खांदी शिवोलेची
घांट अयकतालें इगर्जेची
धूव हांव सांत-आंतोन पायची
भयण हांव जागर बाबाची
पावलां म्हजीं रुतलीं
मुनां म्हाका फुटलीं
मेळून मोगाळ माती वेरेंची
झोपां म्हजी मातलीं
आंगां म्हजीं फांकलीं
फुलां फुल्ली म्हजेर जायांची
फुलां फुल्लीं म्हजेर जायांची

# दुख्ख

दुख्खा तुवें खूब दिलो वांगड
जिणेचे हे वाटेर
कितलेंय तरी दुखलें म्हाका
तरी इश्टागतीच्या बांदार
तुजो संमजसपणाचो
हात आसतालो खांदार
हांव रडटालें तूं हांसनासलें
वयल्यान समजयतालें
म्हज्याच हातान तूं....
म्हजीच दुकां पुसतालें
हांव चलतालें जिणेचे वाटेर
तडफडटालें घडोवपाक म्हजी जीण
नाका तसल्यो अड-अडचणी....
येताल्यो मुखार धांवून
तेन्ना उडक्यो आनी धेंपा
मारूंक तूंच दितालें पांयाक
म्हज्या वाट सोदून....
आंवय विणा खूब हाल जाले
पोटभर जेवचें पोटभर वाडचें
हें एक दुख्ख जालें....
तेन्ना दुख्खा तुवेंनूच सांबाळ्ळें
मेळटा तें खावन जगपाक शिकयलें
घसघशीत लांब रुंद बायलेचें....
जिणे म्हाका जगयलें....
दुख्खा तुवें खूब दिलो वांगड
जिणेचे हे वाटेर
सूखें सूख नाका म्हाका
ओलें दुख्ख जाय....
फाटल्यान फुडल्यान सादतलें तुका

जिणेच्या ह्या बांदार
फाटल्यासन फुडल्यान मेळ म्हाका
दुख्खा तुजो असोच जाय वांगड
जिणेच्या ह्या बांदार....
म्हजो अणभवाचो एक हात
सदांच आसतलो तुज्या खांदार...

# सैमा

सदांच सकाळीं नटून थटून
सैमा तूं उबो दारार
उलो तुजो आयकूंक येता
कोंब्या सादार
फांतोडेच्या पारार
ताचे पयललीं कवीत म्हजें
हळूच म्हाका जागयता
काळखान हातरुणाचेर
कवीत म्हजें म्हाका खेळयता
वोवळीं मुळांतलीं वोवळां
उतरां तीं शेणिल्लीं
देटांतल्यान तुटिल्लीं
पोड हो वोवळांचो
कुडको म्हज्या काळजाचो
सैम हें नटिल्लें
कवीत म्हजें नटयता
फांतोडेच्या पारार
कोंब्या सादार
हळूच म्हाका जागयता
एकदां एकदां कवीत म्हजें
कितलें म्हाका सतायता

# पावणी

रात सोंपून अन्नाडिपणाची
फांतोड जाली गिन्यानाची
दोळे उगडून पळयत जाल्यार
मारामारी चलताली ह्या संवसाराची
थोड्याच वेळान
पडलीं उतरां कानार
पळोवंक गेल्यार थंय
पावणी चलताली
म्हज्या जिविताची
एक एकलो वाडयत व्हरतालो
मोल म्हजें उतरांनी
मेजतालो म्हजे जिणे जें
हो संवसार पयशांनी
हांव मोन्यांनी रडटालें दुकांनी
आनी मनांत चित्तालें
ह्या संवसाराक म्हजी
कितली गरज कमी
हो संवसार
कितें करपाक
काडटा आसत वर्गणी...

# तुज्या आंगणांत

तुज्या आंगणांत
फुलताल्यो जायो
सांजवेळार
पावलां म्हजीं वळटालीं
तुजें आंगण लोळटालें
पावलां म्हजी निर्शेतालीं
एक दीस
राग भरून दोळ्यांनी
तुवें हुमटिलें जायां झोंप
हांव खूब रडलें
आंगण तुजें सोडलें
झोप जायाचें बावलें
हातांतले दोन कळे
काळजांत म्हज्या फुल्ले
सुकिल्लें बाविल्लें झोप
काळजांत म्हज्या रुजलें
आज तुका जाय पडली
तिंच दोन फुलां
काळजांतलीं म्हज्या
फुलां सकट घे हें झोप
परत लाय आंगणांत तुज्या...

# उमाशेची रात

उमाशेची रात आसली
चंद्राची कोर नासली
चान्यान चलपाची
म्हाका मात उमेद आसली
चिंतूंक नाशिल्ली एकूच वाट
आनीक वाट नासली
तेच वाटेर घडपाची
म्हजी तुजी भेट आसली
वाट ती आडवळाची
भेट जाताली शेतां मेरयांनी
भिण-भिणत्या वाऱ्यान
वळख पटयली सात जल्माची
इश्टा म्हज्या म्हजी भेट
आयची ही उमाशी रात
सांसणा खातीर तुका सांगात
दितली म्हंज्या जिविताची वात...

# पांयवाट

एकाच शेतामेरे वयल्यान
तुजें येणें म्हजें वचणें
खूब दीस अशेच चलतालें
एकाच जाग्यार
तुजें येतें म्हजें वयतें
पावल मेळटालें
पाचवें गुल्ल शेत
वाऱ्यान धोलतालें
तुजें म्हजें काळीज
मोगान फुलतालें
असोच एकदां
तूं आयलो म्हज्या सामकार
पडली म्हजी नदर तुज्या मुखार
तुज्या हांसण्यान
दिलो म्हाका येवकार
पाचवेंच शेत वाऱ्यान धोलतालें
तुजें म्हजें काळीज फुलतालें
ज्या जाग्यार तुजें येतें
म्हजें वयतें
पावल मेळटालें
त्याच जाग्यार
म्हजें वयतें पावल थांबोवन
तुज्या येत्या पावलाची
वाट पळोवंक रावलां
आतां फुटली मेर शेताची
सुरू जाली एक पांयवाट
यो-वच करपी खुणां पावलाचीं
तुज्या-म्हज्या फुडाराची...

# घोंटेर

आड्या वयलो घोंटेर म्हजो
कोणूय चोरून व्हरत
रचलां उतरांनी गीत
तशेंच अर्दें उरत
म्हाका म्हजो दिसता
हात तुजो
कोणूय ताचेर हक्क गाजयत
आड्या वयलो घोंटेर
कोणूय चोरून व्हरत
परमळ्ळा काळीज मोगरो
कोणूय किस्मून उडयत
रचलां उतरांनी गीत
तशेच अर्दें उरत
दोळे लायल्यात वाटेक
पळयत तुजी वाट
खीणभर जावन फाट
भेट तुजी चुकत
सांसणाचो तुजो सांगात
शेवटाक म्हाकाच मेळत
रचलां उतरांनी गीत
तशेंच अर्दें उरत
आड्या वयलो घोंटेर म्हजो
कोणूय चोरून व्हरत...

# जोडी

एक जोडी शेवण्याची
खंय तरी घडली भेट तेन्नाची
चिंचे खांद्यार केली तयारी घोंटेराची
एक-एक काडी गवताची
थारली चिंचेर हाडून दवरपाची
खूब तेंप लागलो
हालींच तांणी घोंटेर बांदलो
वरात तेन्नाची सरतली भितर
कोणेंच आडमेळें
हाडचें न्हय तातूंत
हे शेवण्या राजा-राणये
संवसार तुमचो
सुखाचो जावंदी
एकवट तुमचो
वाडत वचुंदी
थोडें तरी पुण्य तुमचें
चिंचे झाडाक मेळुंदी

# नातें

खीणभर वेळार
तूं मेळ्ळें म्हाका
नांव तुजें खबर ना
रूप तुजें घुस्पता
उजवाडान आपट्टा
म्हींवाळ उतर तुजें
आयलें म्हज्या वाट्याक
फकत एकदांच
कशे गो अशें
रावता तुमकां
यो तेन्ना येतलें तशें
अशें हें काळजान
केन्नाचें तरी आसलें
म्हजें तुजें नातें...

# मोगा

उपकारी हांव मोगा तुजें
उपकारी हांव तुवेंन दिल्ल्या मोगाचें
वारो वादळ जगलावणें
सगळेंच सोंसले समजून हांव शाणें
केन्नाच दिसलें ना म्हाका
म्हजें एकसुरें जिणें
उतरांनी तुज्या गावली नीत
समजूंक पावलें खरी रीत
घडत गेलें एक गीत
फुलून परजळ्ळें म्हजें जिवीत
म्हज्या नितळ कपलाक
लायलो तुवेंन तिळो
म्हज्या रित्या हातांनी
भरलो तुवें चुडो
म्हज्या केंसांत माळ्ळो तुवें
उगडून जायांचो पुडो
परमळ्ळें वासान जिणें म्हजें
उपकारी हांव मोगा तुजें
उपकारी हांव तुवें दिल्ल्या मोगाचें...

# मोल

गरजेच्या एका वेळार
दोन मनीस म्हज्या सामकार
एक गिरेस्त दुसरो गरीब
ती आयली म्हजेर घटका
पयले हांवेंन दोनूय वाटेन
पूण दिसली म्हाका
तांच्या मुखार
दोन कुशीन कुपां
मनीस जातीचीं
ही एकूच रुपां
भियेलो ना दिवंक धीर
उतराचो तो गरीब
पूण एक अजापूच घडलें
मिठान जशी येता रुच तशें जालें
त्याच उतरांच्या बळार
म्हजें कोनशाचें गिन्यान धुकल्लें
ज्या जाग्यार तेचे व्हडलें
मोल जाता थंय तें पावलें
दीस तर बदलत गेले
म्हजी खोशी पळोवन
ताच्या दोळ्यांत
दोन कुशीन दुख्खां आयलीं
आयज गिरेस्त घडेक़ करीत
मोल म्हजें
कशे करूं हांव मोल
त्या गरीबं मनशाच्या उतराचें

# हुस्को

दीस सोंपून जाता रातीं
उगीच यो खती
हुस्को तुजो म्हाका
कसो कळटलो तो तुका

मोगाचो तुझ्या पडलो दाग
काळजाचो म्हज्या करूं नाका घात
झक मारूं तें जल्म सात
उगडासान दी हांगा तरी हात

धाधोशी मन म्हजें
सोदता धाधोसपण तुजें
मसकऱ्याचें उलोवप म्हजें
फंकण जाय म्हाका तुजें

काळीज म्हजें शेणटा
आवाज तुजो सांसपिता
तुका सांगिनासतना
म्हजें हांवूच खंय तरी बसतां

तुका आपले भशेन
चारूय वटेन तुका सोदतां
कुड्डो राग तुजो
वळखता कुड्डो मोग म्हजो

पूण हांवूंच नकळों
कांयच आमचे मर्दीं घडनासतना
मोगाच्या फुलाऱ्यार
ओगीच कित्याक म्हणून
म्हाका हुस्को तुजो

# सपन

तूं रितें
तुजे माथें रितें... आंकवारपण
हांवें पळयलें
माथेंभर फुलां तुका माळपाचें चिंतलें
चलता चलता
हांव पावलों जाया मळ्यांत
जायो फुलून सोंपिल्ल्यो
अशेच दीस वताले
हांव सपनां सपनेंतालों
चलता चलता
हांव पावलों
मोगरे मुळांत
माटवार बेल धोलताले
आयचीं फुलां झडटालीं
फाल्याचें कळे कुटयले
मोन्या कळ्यांनी
म्हाका खुणायलो
अशेच दीस वताले
हांव सपनां सपनेतालों
चलता चलता
हांव पावलों एका व्हड रुखा मुळांत
एक व्हड रुख वाऱ्यान धोलतालो
चान्नें कशे छिपीत फुलां
ताणें म्हाका आडायलो
आदेस भर वेंचलीं फुलां
पोड हांवें गुंथलो
पोशान घेवन ओंवळां पोड

धांवत हांव आयलों
तूं सगळेंच भरिल्लें
जाया फुलांनी फुलिल्लें
आंकवारपण सोंपिल्लें
तांबड्या कुकमान सांगलें म्हाका
काळ्या मणयांनी तुका बांदलेलें
पळोवन तुका खीणभर
पावलां म्हजी थबकलीं
पोशांतलीं ओंवळां मात
चान्नी कशी चकचकलीं
काळजांतलीं सगळीं सपनां
मळबांत हांवेंन शिंपडिलीं
चंद्र जावन मळबांतलो
रात हांवें जळयलीं

# गीत

अंतरांतल्या उल्याक तुज्या
अंतरांतली जाप म्हजी
मदीं उबी केदी दरी
भेट ना तुजी म्हजी
एक गीत हांव
सदांच रे गायतालें
गुपीत तुज्या उल्याक
गुपीत जाप दितलें
रात जावन पुनवेची
चान्नें तुजेर शिंपतलें
किट्ट काळख्या उमाशेक
पंटी जावन पेट्टलें
तुळस जावन आंगणांत तुज्या
सदांच तुका राखतलें
नवरात्रांच्या वाऱ्या कडेन
सांगून तुका धाडटलें
वर्साक एकदांच
जाया पुड्याक तुका
हांव शिणटलें
माथ्यांत माळून णवूय दीस
मकरांत हांव धोलतलें
खंयच्याय वेळार शीण म्हाका
सदांच तुका पावतलें
तुजे फाटल्यान
सदांच दुर्गा जावन रावतलें

# म्हजो गांव

सोबीत गांव म्हजो शिवोली
दोंगरा सकयल
पाचव्या गुल्ल दोंगराची
भोंवती ताका मेर
सैम हें सोबीत
रंग रूप बदलता
इगर्जेची घांट आमकां
फांत्यार जागयता
खूब मदींच घरां हांगां
पांयो वाटो हजार
गरजो भागोवंक
थंयच उबो माणकुलो बाजार
दोंगरा सकयल
सुरू जाला
सैमान नटला
रंगान थाटला
वाखणपाक गूण गांवचे
उतरां जातात कमी
म्हणून म्हणटा केन्नाय येयात
वाट पळयतां आमी
सोबीतपण गांवचें
एकवटान जगपाचें
हेंच व्हडपण शिवोलेचें
सोबीत म्हजो गांव
कोणें हांगां येवचें
सैमाचें सोबीत रुपणें
दोळे भरून पळोवचें

# मोगाच्यो जायो

हक्कान हांवें मागल्यो जायो
मोगान तुवेंन दिलें उतर
जाया फुलांचें
थारायलें तुवें तुज्या हातीन
हाडून म्हज्या माथ्यांत माळपाचें
एक दीस
पावस मगो शिंपतालो
मोगा पावसान जाया
सयत तूं भिजतालो
केंसा सयत हांवूंय भिजिल्लें
कुडकुडत जिणें हें
मनांतल्या मनांत...
हांव गुणगुणलें
घाल म्हज्या केंसा आगळान
रात भर फुलुंदी
हांवें मान वळयली
केंसा आगळान
घालून पोड
तुवेंन उमेद भागयली
रातभर फुल्ल्यो जायो
रात सरना...
रात सरली दीस आयलो
लजल्यो जायो
कश्योच बावना
ह्यो जायो मोगाच्यो
केन्नाच ना बावच्यो
तुज्या म्हज्या मनो झोंपार
अश्योच ह्यो फुलतल्यो

केन्नाय वेगेंत घे म्हाका
माथ्यांत म्हज्या मेळटल्यो
त्यो जायो मोगाच्यो
तुज्यो म्हज्या एकवटाच्यो
एकवट त्यो सांबाळटल्यो
काळजा कांळजा फुलयताल्यो

## माय मोग

मोगाळ उलो.... म्होंवाळ जाप
माय मोगाची
रखरखत्या वतांत.... गरज सांवळेची
खीण खीण वेळार
पावला कणकणी संवसारान
गरज ती भुके तानेची
काळखांत वात.... उजवाडांत हात
सांगात ती खऱ्या मोगाची
उतरां ती एकठांय करपाची
चिंतना ती एका चितप्याचीं
गितां ती गायत रावपाचीं
फुलां ती सुवास दिवपाचीं
सारणां खातीर सांबाळपाचीं
भर संवसारान खऱ्या मौलाचीं
मोगाळ उलो
म्होंवाळ जाप... माय मोगाची

# भांगराळें पॅन

भांगराळें पॅन तुजें
भांगराळींच उतरां बरयतां
तुज्या म्हज्या मदल्यो
गोड यादी तें अक्षरांनी फुलयतां
ह्यो गोड यादी
सदांच आसतल्यो आमचे मर्दी
मनाच्या सुपीक अशे मातयेन
सदांच त्यो पालेतल्यो
सदांफुलां तांची
यादी आमच्यो जागयताल्यो
तुजें भांगराळें पॅन
नव्या सुर्यांच्या किरणान
नवी सकाळ उदेता
परत परत गोड यादी
जिणेचे तडीर
ल्हारां जावन आदळटात
तुजे हें भांगराळें पॅन
जिवापाड जपतलें
तेन्नाच तूं वळखतलो
म्हजें खरें मन
आनी तुजें
भांगराळें पॅन

# रात सोंपना

रात सोंपना
कितलो सोदलो चंद्र म्हजो
मळबान दिसना
ही रात नाका म्हाका
गीत गायतना
पुनवे रातीक शिंपलें चान्नें
गीत धांवलें मळब पेलताना
चंद्र हांसतालो
चान्नें गोफ खेळटना
गोफाक गुफले हात म्हजे
गीत झेलतना
गोफ सुटलो चान्नें शिंपलें
चंद्रा वेंगेन हांव विरलें
म्हाकाच कळ्ळें ना
रात निळी मळबान गिळ्ळी
हांव चान्नें वेंचताना
चान्नें लिपलें मळब हांसलें
पुनवेन गायलें
म्हजें मळबांत शेणिल्लें गीत...

# भुरगेंपण

खूब फावटी उबें रावता
दोळ्या मुखार भुरगेंपण
चिंतूंक उपकारना
चलना म्हजें शाणपण
नासलो खेद
नासली वर्जी चिंतनाचीं
खबर नासली वेगळेपणां सुखा दुख्खाचीं
आज आडयता म्हाका
हें व्हडपण घालता म्हाका भंय
म्हाका सांगिनासतना
हें भुरगेंपण गेलें तरी खंय
ल्हान भावंडांनो म्हज्या
हेंच तुमचें बरेंपण
हांसात खेळांत मज्जा करात
उडक्यो मारून खूब नाचात
केन्नाच वतलें सांगिनासतना
तुमकां तुमचें भुरगेंपण
चुकूंक ना म्हाका
चुकचें ना तुमकां
पिकासांव करपी हें व्हडपण
पूण आयज चिंतूक उपकारना
कशेंच चलचें ना म्हजें शाणपण
खूब फावटी उबें रावता
दोळ्या मुखार भुरगेंपण

# उगडास

सगळेंच विसरून अशी कशी
आमी आयली एकी कडेन
ल्हानपण मातयेन शेणलें
व्हडपण मातशें आंगणांत खेळ्ळें
शिटकावणी उपकार
सदांच आसतले सामकार
अशी एकवटाची ही सांगात
खबर नासली सोंपतली
म्हणून आंगांत
काळीज आवाज पातयेना जालें
पोले दुख्खानी न्हाले
म्हाका हांगाच सांडून
तूं पयस गेलें
इश्टागतीच्या ह्या बांदार
तुवेंन म्हाका
एकलेंच केलें
तुजें म्हजें सपन
उगडास म्हणून म्हजे कडेन उरलें.

# खरी आवय

तिनसांजचे कातरीर
घरा परतता पांय
दिसा उजवाडा
हेवटेन तेवटेन
विसरूंक जाता
उतर हाय
एकलेंच बसलें जाल्यार
जाता आई तुजो भास
उगडास तुजो दिता
गळ्याक म्हज्या फांस
शेवणीं लेगीत वता घरा
हुस्केता आसत आवय तांची
किडे-पाखे लेगीत देवा
करता आसत आवयची सेवा
झाडा मुळांतल्या रोप्याची
सावळी तांकां आवयची
आई तुज्या काळजाची
ठेवणी म्हज्या मोगाची
खंय दवरूं हांव आतां
आई आई म्हणत
खूब हांव भोंवलें
तुजे कुशीक मात
परकें हांव जालें.
आई उलो म्हजो
जाब म्हाका गावली
पूण ती वयले वयर आसली
तातूंत खरी आवय नासली

# एकवट

म्हज्या उल्याक दितां तूं जाप
म्हज्या आकांताक येता धांवत
मनशांनी मनीस आमी
मनीसपणाचें सांबाळटा नांव
वायट कोणाक म्हणूं हांव
म्होंवाळ उल्याक मोगाळ जाप
किट्ट काळखांत काळजा वात
मायपासाचे जिणें हे
हांव तुजें तूं म्हजें
जाल्यार सांग
हें परकेंपण कोणाचें
हांशें मुखार तुज्या
मायपास तुझो सांगाती
नितळ काळीज तुजें
एकवट तुजो वांगडी
उतरांनी खेळटां हांव
वाट चुकिल्ली आमी वांगडी
एकामेकांक वाट दाखयल्या
परकेंपण ना-शें करून
एकवटान जिणें जगोवया

# आडवाट

यो वच करत म्हजे कडेन
केली एक आडवाट
तुज्या पावलांनी
तुजो म्हजो मोग
मोगान बांदली
सगळीं सपनां
तेमान वाडत गेलीं
उमेदीच्या दिकांनी
तेन्ना हांव एकटेंच
पळयतालें वाट तुजी
आतां तुजी पावलांचीं खुणां
सांगात घेतात म्हजी
उलयता हांव तुज्या
पावलाच्या खुणा कडेन
तुजीं हीं पावलाचीं खुणां
सांगतात म्हाका
ही आडवाट घडयतना
तुज्या तळपांयाक पडिल्लीं खिणां
आपलेच कशे पळयता म्हाका
तुवेंन घडयलें आडवाटेर
निर्शेल्ली तुज्या पावलाची खुणां.

# भार

आयज फुलाचो भार
चडशीं फुलां फुल्लीं
तांकां पळोवन
फाल्यांचे कळे भुले
आनी आयजूच फुले
झोंप बाबडें उमेदीन
मन तेचें सावरना
मोने कळे परवाचे
लागले गळूंक
कसरत करीत
आयजूच फुलपाचें
झोंप बाबडे चितूंक पडलें
हो सांवार फुलांचो
कसो सोंसू आतां
हो भार आवयपणाचो

# सपन सपनूच उरलें ना

एक दीस घेवन आयलो
हातीक धरून म्हजें चिंतलेलें सपन
खूब फावटी सपनेतालें
हांव हे आशेचें सपन
धडपडटालें चित्तालें
ओले दोळे पुसतालें
खूब रडटालें...
सपन सपनानूच विरगळत
खासावीस जातालें
सपन आयलें ल्हारार बसून
दर्या वेळेर वाऱ्याच्या
सपन आयलें दिसान भरून
वाटेर जिणेच्या
सपन सपन उरलेंना
सपन आयलें धांवत
पोशान आशेच्या
सपनान म्हाका वेंगायलें
हांवें सपनाक वेंगायलें
काळजान खोशयेच्या
सपन सपूनच उरलें ना
वाटेर जिणेच्या

# पलतड

खूब उमेद म्हाका मनांतसून
पलतड पळोवपाची आलतडसून
सोबीतपणां पलतडचीं
नदरेक येता
पवित्र दर्या हें सैमं
कुशीक करता
सोबीतपण पलतडचें
मोल म्हजें आलतडचें
न्हेसलां सैम हें
दर्याच्या दोनूय कडेचें
अशीच एकदां
आयली सुकती
हांव गेलें पलतडीं
दोळे भरून पळयली
सैमान नटिल्लें आलतडीक
अशीच ही जिण्याची रीत
कोणूच पळयना फुड्यातली सोबीतकाय
अशेच हे जिणें
पयस आशिल्ल्याची आशा
फुड्यातल्याक वालोर ना
मोतयां पोशांतली शेणलीं
आळवा वयलो थेंब नाचयतना
फुड्यांतली सोबीतकाय थंयच रावता
मळब दोंगर पळोवंक दोळे धांवता
दोनूय तडो खूब सोबीत
हांव मात उबें आलतडीं
नदर म्हजी पलतडीं

# जिणे

चित्तां चित्तां दुसऱ्याचें
हांवूच विसरलें नांव म्हजें
म्हज्या मनाच्या घाव्याक
म्हज्याच हातान लायतां वखद
हात जोडून देवा मागता
सोंसूंक दी ताकद

म्हज्यो मनांतल्यो उमेदी
मनांतूच दवरल्यो
दोळे धांपून सपनां पळयत
तश्योच आवणेल्यो
म्हज्या मनाचीं चितनां
हांव कोणाकूच सांगिना
ओगीच कामां शिवाय
दुसऱ्याची तकली बिगडयना
म्हजीं फुडलीं सपनां
हांव केन्नाच पळयना
ओगीच कामां शिवाय
आयचो वेळ वगडायना
चित्तां चित्तां दुसऱ्याचें
हांवूच विसरलें
नांव म्हजें
कशें जगों
दुसऱ्याचे वाटेर
जावन आडखळ
तकलेर वजें...

# गुपीत

एक गुपीत कितले पोरणें
नव्यान तुवें दिलें म्हाका
पेलताना नाका जालें
तोलताना व्हड दिसलें
वजें जावन तें
म्हज्या कपलार बसलें
तें चकचकूंक लागलें
म्हज्या हाता पांयाचेर
लेवे लेवेन कितें तरी
सांगीत गेलें
तुजें पोरणें पळय
म्हजे नवें जालें
मनांतल्या मनांत हांव हांसलें
आरे पिशा
हें पिशेंपण तुका कशें सुचलें

# कविता

म्हजी शेणिल्ली कविता
हांवें खूब सोदली
खंयच मेळना
चित्तां चित्तां ओंठार
आयली एक ओळ
आडून हांवें काडली
ओंठावयल्या सगळी
कविता गळी
उगडासाचे पोटलेन
ती तशीच आसली
म्हाका मात ती
कशीच मेळनासली
'खाकेक आसा चेडो
सोदता सगळो वाडो'
म्हजी शेणिल्ली कविता
म्हजेच भितर आसली
खंयच सोदपाची म्हाका
गरज नासली.

# तुज्या हुमऱ्यार

तुज्या हुमऱ्यार
घालतां रांगोळी
म्हज्या सपनाची
हांव फकत चित्रां आकारतां
रंग घेवन तूं यो
वाट पळयतां हांव तुजी
तुज्या हुमऱ्याक बांदतां तोरण
आंगणभर मारता सारन
तूं फकत कश्ट कर
राखण करता हांव तुजी
तुज्या हुमऱ्यार उबें हांव
चली हे मातयेची
तूं फकत जिखून यो
ओवाळणी तुका आरतीची
तुज्या हुमऱ्यार उबें हांव
मिजास पळय म्हजी
कुकूम लायला तुज्या नांवान
घरकान्न हांव तुजी.

# फुलां

एकाच दिसाचें जिणें तुजें
कितलें तूं मुरगडटाय
मनांतल्यान हांसताय
वाऱ्या वांगडा धोलताय
वास तुजो परमळयता
रखरखत्या किरणा कडेन झुझताय
सुर्यकिरण वता घरा
तरी तूं रखरखताय
एकाच दिसाचे
जिणे तुजे झुजत तूं निभयताय
नशीब तुजें तुज्या वांगडा
जिणे तुजें सोंपयता
एकाच दिसाचे जिणे तुजें
कितलें तूं मुरगडटाय.

# याद

अमुरपिकी याद तुजी
फांतोड जागयता
दीस पेटोवन दोळे
रात जळयता
अमुरपिकी याद तुजी
तिळसांज केळयता
पंण्टी पेटोवन दोळे
रात सारयता
अमुरपिकी याद तुजी
फांतोड पिकयता
मनाक फुडल्या पांयवाट
एकसुरी रडटा
तुजे वाटेर आडवाट
आंकाताक धांवता
अमुरपिकी याद तुजी
भेट घडयता
दुख्खा भरून दोळे
वळख पटयता
अमुरपिकी याद तुजी
काळीज हांसयता
पेटोवन दीस दोळे
तुजी वाट पळयता
अमुरपिकी यद तुजी
आयज म्हाका जगयता.

# म्हज्या घराची वाट

म्हज्या घराची वाट
तुज्या दारांतल्यान वता
दारान उबें तूं
म्हजी वाट पळयता
अशे कितले दीस तूं
म्हजी वाट पळयतलें
हुमरो घेवन यो गो वाटेर
या आमी म्हज्या घरा कडेन
इतलें लागीं नाका आसलें
म्हाका घर तुजें
रागार फुगार जावन
ना मगो धांवचें
केन्नाय उशीर जाल्यार
ना मगो थंयच येवन रावचें
लज-भंय सोडून
ना मगो झगडचें
म्हज्या घराची वाट
तुज्या दारांतल्यान वता
आतां मात
म्हाका व्हड पिकासांव जाता

# उलो

म्हज्या काळजांतलो उलो
कसो तुका घालूं हांव
साद म्हज्या काळजाचो
कसो तुका धाडूं हांव
रावता काळीज आतां
सोदता तुका दोळे
रात सारली पोरसान
आतां फुलूंक लागले कळे
खतावला मळब सगळें निळें
किरण पडचे पयली धर्तरेचेर
सकाळ म्हजी घेवन वच
म्हज्या काळजाचो उलो आयक आतां
सुर्याचो हुलोप म्हाका नाका
साद म्हज्या काळजाचो धाडटां तुका.

# सोबीत म्हजो गांव

सोबीत म्हजो गांव
वाड्या वाड्यान ओडला
दर्या कांठार बसला
सैमान नटला
देवळा मॅडपांनी गाजला
एकवट आमचो
जात्रेक-काल्याक आनी फेस्ताक पळोवचो
तरेतरेच्यो कला तरणाट्याच्या आंगान
कुसकेंपणां ना तांच्या मनांत
पाचवें शेत दोनूय वटेन
येवकार दिता गांवचो
सोबीत तळ्यान साळक कशें
वेरें गांव आमचो
वाखडपाक गूण गांवचे
उतरां जातात उणीं
बेती सावन चलत येयात
वाट पळयता आमी
सोबीत म्हजो गांव
वेरें ताचें नांव
सोबीत सैमान नटला
पनेळ कसो दर्या कांठार बसला...

# पुनव

हांव शेणलां ह्या संवसारांत
सोदता कितें तरी वळखीचें
कूळ म्हजें कवनाचें
फूल फुल्लां प्रतिभेचें
हांव शेणलां ह्या संवसारांत
सोदतां कितें तरी वळखीचें
गीत म्हज्या ओंठार
हांव चलतां नेटार
किट्ट काळख्या मळबांत
चान्नी हांवें शिंपडली
चकचकली म्हजीं अक्षरां
चंद्रान पुनव फुलयली.

# मोगाची वात

आवय मोगाची पालवल्ली वात
आनी काळोख जालो मात
आपटत धपटत
जिणेन म्हज्या पावलां ओडलीं
ल्हान व्हड चिंतना सोंशीत
हांवें वाट काडली
त्या किट्ट काळखान
हांव वाट चुकलें
मेळत ते वाटेन
पिशें धांवत सुटलें
आतां व्हड खडपाक कपल म्हजें
आपटलें
आवय तुज्या वाती विणा
हें सगळे घडलें
नित-न्याय म्हज्या मनाचो
कोणेंच ना केलो
मायेचो म्हजो उलो
जापेक ना फावो जालो
आवय मोगाची पालवली वात
किट्ट कांळखान दिलो सांगात.

## शेवणी

हुडटा शेवणें नाचता मळबांत
घोंटेर थाटूंक चित्ता मनांत
गीत गाता व्हंकलपण
उफाळून येता आवय मन
हुडटा शेवणें नाचता मळबांत
घोंटेर थाटूंक चिंत्ता मनांत
सात पावलांनी पांखां फुटलीं
गितां गायत पावलां नटलीं
जल्मा जल्माची नातीं सोडून
एकसुरेंपण गेलें सोंपून
आवयपणाचे भोगीत सूख
पिलाची करतां सेवा
भोंवता रानावनांत
उगडासान येता घोंटेरान
गिता गायत सारता जिवीत
पांखां फुट्टा पिलाक
हुडटा शेंवणें नाचता मळबांत
घोंटेर थाटूंक चिंत्ता मनांत.

# आतां घट्ट याद धर

आतां घट्ट याद धर
रित्या हातीन येवं नाका
फुलां सगळीं सोंपलीं जाल्यार
पानां तरी हाड म्हाका

आतां घट्ट याद धर
मोन्यांनी येवं नाका
गितां सगळीं शिंपलीं जाल्यार
उतरां वेंचून हाड म्हाका

आतां घट्ट याद धर
किरणां वांगडा येवं नाका
सांज सगळी सोंपली जाल्यार
पोसो भर चान्नी आड म्हाका

आतां घट्ट याद धर
अनवळख्या पावलांनी येवं नाका
वळख म्हजी नाका जाल्यार
वाट म्हजी सोड आतां

आतां घट्ट याद धर
रित्या पावलांनी येवं नाका
वाट म्हजी शेणली आतां
हात तुजो दी म्हाका

आतां घट्ट याद धर
रात सगळीं सोंपली आतां
चिंतना तुजी म्हाका नाका
भेट तुजी घडय आतां

# तोखणाय

एक चली मनीस
जल्माक येता
चली म्हणून घेता
ल्हान व्हड त्रासाक
सोंशीत तोंड दिता
आवय विणा ल्हानूच वयार
व्हडपणाची चिंतना सोंसता
चित्तां चित्तां संवसाराचें
ल्हान व्हड काटे नशिबाचे
वारें वादळ चारूय वाटेन
टवटवता मन व्हंकलपणाचे
हट्टीपणान उखलता पावल
धाडसाक दिता वावर
आनी जगता ह्या संवसारांत
एक बायल मनीस ती
राब राब राबता
ना ना तीं दुख्खां
चारूय वटांनी सोंसता
बुद्धी शक्ती वाटेक लावन
आपले जिवीत झरयता
कोण त्या जिण्याची
उलयत दोन उतरां तोखणायेची
कोणूच ना उलोवची
ह्या मातयेंत
अशीं कितलीं आसा सुखां

कोणूच चिंतना तांची सुखां
चंदना सारके झरयत जिवन
तांणी सोंपोवचें
वास तो मोल नाशिल्लो
उतर ना तोखणायेचें.

# सोयरे

जल्माक आयले तूं म्हाका
सगळ्यांनी चली अशे
म्हणलें तुका
खेळटालें तूं म्हजेच कुशीक
ह्याच आंगणांत तुवें
तुजे पांय घटायल्या
पावलाचो दाग सुद्धां
दिसता दोळ्याक म्हज्या
जो तेन्ना तुवें मातयेर उठयला
हांडयेर बशिल्ले ओंठयेंत खेळ्ळें
म्हाका खबर नासतनाच
भुरगेंपण तुजें सोंपलें
फुगोट्यांचो शिंवर
वाजप वाजलें भायर
माखयले हळडीन
न्हाणयलें दुख्खांनी
पुसलें आंग तुजें
तुवाल्या म्हज्या हातांनी
भांग भरलो... चुडो घातलो
आमाड्या भोंवतणी
वळसर गुठलायलो
रुंद देगेचो शालू न्हेसून
सरली भायर व्हंकल वचूंक
दुख्खा भरून दोळ्यांनी
धरले धुवेन म्हज्या पांयाक
हांवेंच सांगलें ताका
घोवा गेली सगळी तुजी

दुखोवं नाका तांकां केन्नाच
सोंपयले सांगप म्हजे
केले ताका तांचे
सूख भोगता मनान
आयकून ताच्या गुणाक
हुस्केता ताका म्हजें मन
ज्युस्त खबर घेवन ताची
येयत म्हूण कोण

आज येतली धूव म्हजी
चुकून सुद्धा हुंबऱ्याक
जायना फाट....
रावल्या दोळे पळोवंक ताची वाट
सजयला घर सोयरेचो करूंक थाट
वचत म्हणून भायले भायर
आदीच मांडला तुका पाट
परत परत धुंवन पुसता
तुका वाडूंक ताट.

# सतभावार्ती बायल

आयज म्हज्या न्हेसणाची कडा
परत परत दोट्टा
जायत घडेर धनी म्हाका
नवी साडी हाडटा
सकाळीं वावरान
दोनूय हाताची
फुडलीं कांकणा वाडवता
शर्त आयज बवार मामा
वाड्यार भोंवता
सकाळच्यान कावळो
दारान रडटा
कोण तरी सोयरो-पावणो
तिळसांज पसून
भितर सरता
आंगणांत बाळक
सत खरें शिंकता
मनांतलें कोडें
मनांतूच सुट्टा
पयल्याच घासाक
उस्तुरे गेलें
जायत घडेक आईन
पयल्या आमल्याचें लोणचें केलें
आड्यापलतडी भटवाडी
वास खूप परमळटा
पलतडच्या ओंवळीचो अदमास
देवळान फाल्यां ओंवळा पोड
माथ्यान म्हज्या पडटा
घरभर आयज घैरांव शिंपडटा

कोणतरी बरी खबर घेवन येता
शेजारची सवायशीण
तिळसांजची बल्कावान घुसपता
यो बस पाटार
हळद कुकूम लागता
पांया तुका पडटां
अशीच फाल्यां येवची
सदांच तुका रावतां
तुज्या पावलाचेर
लक्ष्मीचीं पावलां पळयतां.

# वाट

दीस रातीक दिता सांगात
म्हयनें वर्सां सोंपता हांगा
गजबजिल्ली वाट हांव चलतां ती
हांव फुडें फुडें चलत पावलें
मुखार उबें आशिल्लें
आपूणच फाटीं सरलें
एकलेच हांव चलतालें
थकल्यार वाटेर बसतालें
उमेदीर येवन धांवतालें
वाट सोंपयत आयुश्याची
हांव हे जिणे जगतालें
जल्माक आयल्या पसून
हांव खंय तरी वयतालें
गजबजिल्ली वाट हांव चलता ती
हांव फुडें फुडें चलत पावलें
मुखार उबे आशिल्लें
आपुणूच फाटीं सरलें
अशेंच काडून बांद साको
हांव संवसारान येयलें
ना करता कसलीच पर्वा
तागीत भोगीत हांसत नाचत
हांव स्वर्गा कडेन चल्लें.

## केन्ना तरी

केन्ना तरी उलय म्हजे कडेन
केन्ना तरी पळय म्हजे कडेन
हांव तुका आशेतां
काळजांतल्यान पोशेतां
आयक म्हजो साद काळजाचो
दी म्हाका 'होकार' उतराचो
काळजाची खोलाय
थंडसाण दुख्खाची
बारीक बारीक रोपटां
किल्लतां कितलीं आशेचीं
थेंब जावन दवाचो
राख मळो काळजाचो
केन्ना तरी उलय म्हजे कडेन
केन्ना तरी पळय म्हजे कडेन
रुपणें म्हजें पळोवंक
तुज्या दोळ्यांनी
नजर तुजी
म्हजेर आसूं दी.

# वांगड

तूं म्हजे बरोबर आसा
म्हणूनच तर हो सैम
म्हाका म्हजो दिसता
तुज्या म्हज्या मोगान
हो सैम म्हाका मोगाळ दिसता
म्होंवाळ उतर तुजें
चाकता जिणें म्हजें
कोनशाचें गिन्यान म्हजें
दिसता तुका वालोराचें
सैमाचें सूख हांव
मिरयतां तुजे खातीर
म्होंवाळ जगान मोगान पळयतां
पावलां उखलतां मिजाशीन
दोळे हांसता पळोवंक हो सैम
दोळे रडटा पळोवंक संवसाराचें दुख्ख
शिमेर उबें हांव
पळयतां काळाचो खेळ
सैमा तुजे कुशीन येतां
मनीसपणान मनीस म्हणून जगतां
देवा तुका मानतां
जिणे म्हज्या देवा तुका भेटयतां
आशेन तुजे कडेन एकूच मागतां
दोळ्या मुखार तुजी मुर्ती
काळजान खरेपणाची वात
हें सगळें चल्लां मनान
जाय म्हाका तुजो वांगड ह्या संवसारांत.

# वाट पळोवन तुजी

वाट पळोवन तुजी थकले म्हजे दोळे
आतां  सतायतात म्हाका
तुवेंन निमार्णीं आयकल्लीं उतरां
दोळे दुखले तरी
झेम म्हाका पडना
थकिल्लें मन हें
तुजो हुस्को कसोच सोडिना
कितल्यो जाल्यो राती दीस
हांव आसा घेवन ती सांज
दर्याची वेळ झणझणीत वारें
उतरां तुजीं कालचीं
काळजान म्हाका हांसयता
धीर तुजो सासणाचो
काळीज म्हजें नाचयता
शिंपयो घुलो कितल्यो न्हातात
पांय म्हजे भिजयतात
ओलें रेंवे वयलीं पावलां
ल्हारा हांगा पुसयता
एका फाटल्यान एक ल्हार धांवता
यो मोगा धांवत
हांव तुका रावतां
वाऱ्याच्या तालान
ल्हाराच्या सुरान
गीत हांव गायतां
थकले दोळे मोगा
वाट तुजी पळयतां.

# रिणकार

कितल्यो घातल्यो जायो तुका
कश्योच फोटवाक धरना
वजन नाशिल्लो जाया पोड
फोटू तुजो कसोच तोलिना
न चुकता हाडटा पुडे
कितले गो जाया गजरे
वास घरांत येना
लायले दारांत जायां मळे
एकूय जाय फुलना
हळदीच्या खोल्याक
पयलीचो परमळ ना
सदांच शिणटालें म्हाका तूं
केन्नाच तुका दिलो ना
प्रेतार घालतलो म्हणल्यार
जायो खंयच मेळ्ळ्यो ना
पयसो खूब जोडलो हांवें
तुवेंनूय जोडून दवरलो
आयज कित्याक उपकारता
शेवटी रिणांत तुज्या उल्लों
तुमची सगळीं कामां
कडेक दवरात
बायलेची उमेद मात
कशी तरी भागयात
घरचे लक्ष्मी सदांच तुमी मानयात
हांव जालो रिणकार एका जाया पुड्याचो

कांयच नाका म्हाका आयज
दोळ्यां मुखार
निऱ्याता एक पुडो
वास नाशिल्ल्या जायांचो
वास नाशिल्ल्या जायांचो.

# हळदकुकूम

मकर राशीन सुर्याचें चरण लागलें
संक्रांतीची परब व्हडा दबाज्यान आयली
यो गो हळदकुकुमाक
घे गो हळदकुकूम
हळद पोंदां कुकूम वयर
कितलो सोबलो पळय
कुकूम आतां
हळद पळय कशी हांसली
कुकमा पोंदां बसली
नाकार पळय तुज्या
कितली सोबा आयली
हे घे तिळगूळ
गोड गोड उलय
हे घे वायन
उसणें म्हणटात ताका
परत तुजें व्हरपाक
फाल्यां तुमगेर येतां
अशे हें येणें-वचणें
जल्मभर आमकां मेळूं दी
माथेंभर फुलां
कपलभर कुकूम
कितलो व्हड दागिनो
जल्मभर मिरोवया
कुकमाच्या धनयाक
हाती पायाक बरे मागुया
सरणार सुद्धा सगळ्यांनी
हळद कुकूम आमचेर घालूं दी.

## तुजें उतर

तुज्या उतरान
म्हाका मेळ्ळो एक धीर
जगपा खातीर एक सांगात
तुजें उतर मोलाचें
तुवेंनूच शिकयलें म्हाका
सूख दुख्ख विसरून
उमेदीन जगपाचें
देवान दिल्लें सोबीत जिणें
बरे तरेन उपभोगपाचें.

## प्रसाद

उगोवन केंस रावलां तुका
हाड म्हाका ज़ायां पोड
रित्याच हातांनी आयलो तूं
कितले शिणले तुका
फुला बगर कांयच नाका म्हाका
श्रावणांतलो श्रृंगार
सगळ्यांच्या माथ्यांत फुल्ला
नशिबांत ना ते कशें मेळटलें
हात ओडून केंसाचेर
मनाक समजयत
गेले देवळांत
वळखलें म्हाका देवान
तिर्थ घालून
दोन व्हड पोड जायाचे
प्रसाद म्हणून दिलें भटान.

# कांयच नाका म्हाका

कांयच नाका म्हाका
फकत तुजो आवाज जाय
जगपा खातीर म्हाका
तुजो थोडो स्वास जाय
उमेद म्हजी करपली
कळी म्हजी किमचावली
अपुरबाय म्हजी चाचवली
आशा म्हजी दुखवली
जगपा खातीर करता तडजोड
लिपयत लियपत हाता तळा वयलो पोड
सगळीं फुलां कुटोन हाड
पोशान तुज्या भरून
जिवेपणान माळटा हांव
व्हडलो ताचो झेलो करून
सरणार मात
फुलां नाका म्हाका
म्हजें जिणें लासलां तशें
फुलाचें लासूं नाका
पडटा जाल्यार मनाक तुज्या
दी म्हाका खांद
विसरनासतना दी लांकडाचो मान
कांयच नाका
खूब दिलें तुवें म्हाका
फुडल्या जल्मांत
मेळटलें हांव तुका.

# मेती रंगल्या हाताक

मेती रंगल्या हाताक
पोल्यार हांसता खळी
उबे वयाच्या हुमऱ्यार
मनान फुल्ल्या कळी
पाचवो चुडो हातान
आवाज गाजता कानान
फुलां माळ्ळ्या माथ्यांत
खंय चल्लें बाय तूं
कितें चिंत्ता मनांत
हुमऱ्या भायर
पावलां तुजीं
मन मात वळयता
खंय तरी एक घर
वाट तुजी पळयता
हुमऱ्या भितर तुका घेवन
आपले जिवीत घडयता
मनां-मनां चली
सात पावलां चलून वता
खरें नातें काळजांत चेंपून
ओले दोळे आवणेता
फटी हांशे मुखार फासून
परकी नातें जोडीत वयता
जल्माक येवन उमेद भोगता
एक घर
जिणे सोंपोवन रितेंपण भोगता
दुसरे घर

हे जिणे चली मनाचे
चलये बगर कोणाकूच ना कळचे
मेती रंगल्या हाताक
पोल्यार हांसता खळी...

## तुजो हात

तुजो हात
अनवळखी वाट
चितलो ना केन्नाच
तुज्या हातांत म्हजो घात
तुजो हात दीत गेलों
एक सांगात
एक वांगड
एक आदार
तुज्याच हातान
दाखयली एक वाट
फुडें सरपाक
काळखान मेळ्ळी वात
आसता तुजी जाग
भंय दिसना मुखार
पावल उखलपाक.

# नांव तुजें

कश्टाक केन्नाच भियेलें ना
रुजोन तुका दाखयलें
वतान सुखलें
दवान रुजलें
नांवाक तुज्या नांव जोडलें
गंध म्हजो गांवभर
वारो घेवन धांवलो
शाबासकेचो पावस
म्हजेर भर गिमान पडलो
ल्हान उतराक म्हज्या
व्हड मान मेळ्ळो
हांशे फासून मुखार
पावलां म्हजी उखल्ली
चलता चलता ल्हान वडाची
माया हांवेंन जोडली
चाफ्यचें फूल
तुका देवळांन देवीच्या मुकुटार
सुंदर दिसलें
तुका पिशान काडीत
सगळे हांसलें
आरे ते तुझ्याच पोरसांतलें
कोणें तरी वळखलें
धांवत येवन तेन्ना तुवें
भर म्हाका घातली
कळसोभर उदक घालून
माती म्हजी शिंपली
फागराक फागूर फुटले आतां
तरे तरेच्या फुलाचे
पळय आतां पोरसू तुजे
झाले कितले सोबीतकायेचे
एक एक फूल सुद्धा
सांगता आमकां नांव तुजें.

# तान भूक

तान भूक गरज मनशाची
पूण ती फकत आसना
उदक आनी जेवणाची
तान आसता तरेतरेची
ताळो सुकोन येता
जेन्ना येता याद
एका-एका मनशाची
एका एका खिणाची
मनशाक पयल्या खिणाक
तान भागता तुजी
भुकूय आसता तरेतरेची
ती तर गरज जगपाची
शेणिल्लीं मनां सोदतां
खंय तरी खुणां वळखीचीं
जेन्ना मनीस धाडस
करता नवे वाटेन चलपाची
सर फुडें भियेवं नाका
उतर मेळचें धिराचें
केन्ना उलो मार म्हाका
पर्वा करूं नाका
उतरांनी त्या
तान भूक भागता
तान भूक पोटाचीच नासता
ती मनाची आसता.

# काणी

खूब आदली
काणी म्हज्या जिविताची
रात सोंपून अन्नाडपणाची
फांतोड जाताली गिन्यानाची
तेन्ना सुखात
जाली तिची
उपरांत
उमास जाली जिविताची
वात पालवली आदाराची
खूब आदली
काणी म्हज्या जिविताची
तेन्ना सोदतालें म्हजें मन
उतरांचो आदार
किट किट्टाले काळजान म्हज्या
सतायताली म्हाका
म्हजे आवयन पळयिल्ली सपनां
सासपिताले पांय म्हजे वाट
म्हज्याच दोळ्यांनी
तेन्ना केल्ली म्हाका फाट
खूब आदली ही काणी
म्हज्या जिविताची
आजूय हांसत नाचत
चलता वाट संवसाराची
रावतली ती सासणा खातीर
म्हज्याच वांगडा
म्हाका आनी म्हजे काणयेक
उजवाडूच दाखयतां वाट
सांगाताक आसा आमच्या
आवय मोगाची वात.

# कविता रांदता

हालीं हांव कविता रांदतालें
वास येना फुडें
तूं दांत ओंठ चाबतालें
तिरपो म्हाका पळयतालो
पाना वयलो हुडटालो
घर भर शिंपडटालो
म्हज्यो कवितेच्यो ओळी.

म्हाका उपाय नासलो
हांव कविताच जगतालें
कविताच रांदतालें
आतां तूं ती पाना वयल्यान
कुशीक बशेन काडपाक लागलो
आनी मुकाट्यांनी जेवपाक लागलो
अशेच दीस वताले
आयज हांवें सगळ्यो कविता रांदल्यो
भियेत भियेत तुज्या पानार वाडल्यो
हळूच दवरून पोळी
मान हांवेंन वळ्ळी
अदमास घेतलो
तुज्या मनाची फुल्ली कळी
आडवी उबी करीत पोळी
तूं वांचतालो कवितेच्यो ओळी
मनाक धीर आयलो
ओगीच आवाज केलो
किदें जाय तुका
उदकाचो पेलो हांवें फुड्यांत व्हेलो
पेलो भर उदक पियत

तुवेंन सुस्कार दिलो
केन्ना नासलेलो मोगान
तुवेंन म्हाका उलो केलो.
हांवेंन परत मान वळ्ळी
तूं वेंचतालो तुवेंनूच
शिंपलेलो खूब पयली
म्हज्यो कवितेच्यो ओळी
तुवें म्हणलें
खरेंच खूब बरी आसा ही मिठाई
आवडली म्हाका
आयची कवितेची पुरणपोळी.

## दोन दुख्खां

सगळी दुख्खां गळून पडलीं
गिन्यान नासतना
आयज मात सुकल्यात दोळे
आवणेता मन
गिन्यान आसतना
दोन दुख्खां नासता दोळ्यांनी
काळीज भरला चिंतनांनी
पयस दिसता एक सपण
चलत येता म्हजेच वाटेन
कोणूय ताका आडयत
वाट दुसरी दाखयत
दोन दुख्खां गळून
दोळे वचत सुकून.

# आई

आई तुजे कुशीक
कित्याक म्हाका भाग्य ना
म्हज्या मोगाळ उल्याक
कित्याक तुजी जाब ना
चुरचुरल्या भूक म्हाका
कित्याक तुजो घास ना
कुडकुडत जिणे हें
कित्याक तुझी उब ना
आई तुजे कुशीक
कित्याक भाग्य ना
शेणिल्ल्या मनाक म्हज्या
कित्याक तुजो धीर ना
म्हज्या सुखा दुख्खाची
कित्याक तुका पर्वा ना
म्हच्या चरचरिल्ल्या घाव्याक
कित्याक तुजें वखद ना
आई तुजे कुशीक
कित्याक म्हाका भाग्य ना
म्हज्या जिण्याक
तुजे विणें अर्थ ना.

# आडो

एका फाटल्यान एक
घालीत गेलो तूं कितले आडे
संवसाराच्या ह्या वादळान
सोडले तुवेंन व्हडें
आडयत गेलो तूं म्हजें जिणे
आडो तुज्या मोगाचो
जालो अर्थ म्हज्या जिण्याचो
आड्यार आडे सरभोंवतणी आडे
आडावल्यो सगळो वांटो
आनी थंयच घडलो एक माटोव
त्या माटवार घुस्पली वेल
तुज्या म्हज्या मनाची
फुलूंक लागली थंयच सपनां
तुज्या म्हज्या मोगाची
फुलून परमळटा
परत पालयता
थंयच घुस्पता
वाऱ्या वादळाक झुजत
खोशयेन माटवार धोलता
तुजे म्हजें जिणे
ती एकवटान जागयता.

# म्हजी कविता

आतां म्हजी कविता
खूब व्हड जाली
हात सोडून म्हज्यो
चार पावलां चलूंक लागली
नांव-गांव म्हजे
सगळ्याक सांगूंक लागली
अपुरबाय तोखणाय करून
सगळ्या कडसून घेवपाक लागली
आतां म्हजी कविता
सगळ्यांक आवडूंक लागली
रुपा रंगान ती सुंदर जाली
माये मोगान ती उलोवंक लागली
म्हजो एक एक गूण
ती घेवंक लागली
म्हज्याच पावलांनी
ती चलूंक लागली
दुख्ख सूख म्हजें
बरोबर ती भोगूंक लागली
बऱ्या वायटाक वांगड
दिवंक लागली
भरवशान किर्ते सांगल्यार
गुपीत दवरूंक लागली
केन्ना केन्ना ती
म्हजे कुशीक बसून
उलोवंक लागली
केन्ना केन्ना म्हज्यानूच
एक रुप जावन
ती जगपाक लागली
तना मनान ती भरली
म्हजी कविता खूब
व्हड जाली.

# देवा तुका आर्गां दितां

देवा तुका आर्गां दितां
खूब तुवेंन दिलें म्हाका
सदांच शिणटालें हांव तुका
कितें तुवेंन दिलें म्हाका

देवा तुका आर्गां दितां
ओंठयेन सावरना
इतलें तुवेंन दिलें म्हाका
आयज दोळे भरून पळयता
सगळ्या परस खूब कितें तरी
वेगळें मौलाचे तुजे कडसून घेता

ल्हान आसतना आवय सोंपली
उमेद सगळी काळजान सुकली
दुख्खा दोळ्यांतली व्हांवली
सगळीं सपनां सुक्या सड्यार पडलीं

वाट तुवेंन चलपाक दिली
काटे कुटे चिड्डूंक घडसाण दिली
चडटी चडलें देंवती देंवलें
सदांच तुजो आशिर्वाद मेळ्ळो
देवा तुका करता उलो
सुंदर सोबीत फुलांचो दिलो तुवेंन झेलो

देवा तुका आर्गां दितां
सोबीत सुंदर जिणे जगतां
देवा तुजे उपकार ओंपतां
खूब तुवेंन दिलें म्हाका.

# उमाळो

उमाळ्यार उमाळे ल्हारां भशेन
आपट्टाले येवन जिणेचे तडीर
मनांतलें एक एक सपन
उफेतालें कागदा भाशेन
उमाळ्याच्या ल्हारार

फुलतले उमाळे
नाचताले मोती आशेचे
तेऱ्या खोल्यार जशे मोती
पावसाच्या थेंब्याचे

उमाळ्यार उमाळे कितें तरी
सांगून... बयताले
फाटले सगळे विसरून म्हाका
जगपाची आशा दिताले

एक एक उमाळो म्हज्यो
भागयतालो सगळ्यो वडिक्यो
धाधोशी जातालें मन म्हजें
फुलिल्लें फूल जशें ताजें

अशेच हे येताले म्हाका
आशेचे उमाळे
घोडटालें हांव आवंडे
सादयतालें म्हजीं कामां
चावी पावताली हातीन चोराच्या
व्हांवोन येतालीं वांगडा मोतया ल्हाराच्या
इतली चड म्हाका नाका आसली
मारक पडले हे उमाळे म्हजे
निमाणें व्हड पिकासांव जालें म्हाका तांचें.

# रावता

उलय नासतना तुजे कडे
रावतां तुज्या उतराक
सांगिनासतना म्हजें नांव
रावतां तुज्या सादाक
वळख नासतना तुका
रावतां तुज्या हांसऱ्या गालाक
हुबता म्हणून कैंस तुजें
रावतां वाऱ्याक आडावंक हात म्हजे
पळोवंक चाल तुजी
रावतां हांव रस्त्या कडेक
सोडून वाट म्हजी
रावतां पळोवंक वाट तुजी
दिसा उजवाडाक
पण्टी करून दोळ्याची
बंद ओंठ तुजे
आवाज गाजता म्हज्या कानाचेर
रावता तुका येतले म्हणून सोदीत म्हाका
गळ्यान हात घालून म्हज्याँ म्हणटालें
सगळे कळ्ळें म्हाका
आतां कांयच सांगू नाका
रावता हांव तुका
सांसणा खातीर दी म्हाका
घुस्मट्टा ते म्हज्या मनांत
वाखाण तुज्या उतरान
रावता, तुका हांव ह्या संवसारान
कोणाचेंच चोरिनासतना चोराच्या भेसान.

# अदमास

आतां तरी पटली तुका
म्हज्यांतली म्हजी वळख
इतले दीस रडत
कितें मागतालें तुजे कडेन
येवची पाळत
म्हाका नाका आसलें सूख
म्हजे कडेन सोंसूक जायनासलें दुख्ख
म्हाका जाय आसलो
तुज्यांतलो एक मनीस
मायेस्त तुचो हात
पोशान तुवेंन झेलचें आसलें
म्हज्या काळजांतले विचार
चित्त म्हजे आडुताले
वयर काडपाक नांव तुझे
तळमळटालें हांव मागत
तुजोच हात
पूण तुका लागलो ना
म्हज्या मनाचो अदमास.

# यो पावसा यो

हळदी उदक न्हाणयलें
म्हाका भांगराळ्या किरणांनी
मेळोवन तूं गेलो म्हाका
चोर पावलांनी
काळ्या निळ्या कुपांनी
गडगडत....
मातयेचो वास परमळत
असोच एकदां रातचों
मेळोवन तूं गेलो म्हाका
तुज्या म्हज्या मोगाचें गुपीत
दिवन तूं गेलो म्हाका
खूब भिजलें...
व्हंकल न्हेसली
पाचवी साडी
पाचवो चुडो
कपलाक सजयलो हांवेंन
सुर्यांचो गुळो
पैंजण पांयान नासतना
हात हालयनासतना
चुडो वाजता
कागलिणीन पळय
नथ कशी नामना बसयली
सुखांनी सगळी फुलां
म्हज्या आंगाक सजयली
सगळो सांज जालो
आतां यो गडगडोन
वाजप वाजयत यो

नाचत यो
हांव तिस्टवता
वाऱ्यान धोलता
मगो म्हजेर छिपीत यो
ओंटी म्हजी भरीत यो
माथ्यान माळपाक म्हाका
नक्षत्रांचो पोड मात
बाशिंगाक तुज्या बांदून यो

सैमाचे एक सोबीतपण
घेवन म्हाका यो
सवायशिणीचे जिणे
म्हाका जगूंक तूं यो

यो पावसा यो...

# पयलो पावस

पयलो पावस
रिगता उदक धरतरेच्या काळजांत
जल्मता पाचवीच चार
धरतरेच्या पोटांत
पयलो पावस
काळजा काळजा शिरशिरता
थकलेले तापलेले मन
चिंब चिंब भिजयता
पयलो पावस
व्हांवता झरे व्हाळ
किल्लता रोपटां
पाल्लता झाडां
बदलता काळ
पयलो पावस
घडयता...
पयले वयले सोयरेपण
सांगिनासतना वता खरो
मनान दवरून आपलेंपण
पयलो पावस
वयता आतां
खेळटा पळय
खेळ कसो
वत-पावस
पावस वत
मनान ताच्या
वचपाचें मत
वर्षाऋतू वयता आता

खेळटा पळय खेळ कसो
वर्षाऋतू वयतलो म्हणून
मना-मना चल्ला थाट
सूख दुख्ख खिणभर
विसरून
आमी पळयता
पावसाची वाट.

## तूं

तूं वाट बदलीत गेलें
खूब कितें तरी
म्हाका कळून चुकलें

तूं रुप बदलीत गेलें
खूप कितें तरी
सांगीत गेलें

तूं चोरपावलांनी आयलें
म्हाका शिटकून गेलें
सगळें फुडलें

तूं सहज उलयलें
एक उतर
तुवें चिंतलें ना

तुजेर कशी घालू
मुखार नदर
मनाक पटली ना

तूं पोशात आयलें
किमचून गेलें
म्हाका खूब दुखलें.

# उक्तें मळब

उक्त्या मळबांत
दिसता म्हाका
पांखां बांदून हुडचें
सगळ्यो कटकटी
हांगाच सोडून
मनसोक्त भोंवचें
मनांतले उक्तेंपण
मोगाळ आपलेंपण
धतरेचेर ओंपचें
दोळे भरुन धतरेक
उक्त्या मळबांतल्यान पळोवचें
उक्त्या मनान
सगळी एकी कडेन येवची
उक्तेपणान
एकामेकांक वळखुची
भरवंशाच्या हातीची
करूया पण्टी
एकवटाची वात
तय पेटची
राग मत्सर वितळून
तेल करचें
भरवंशाच्या हातीन
केल्ले पन्टेन
सुसेगाद जळचें.

# सांगात

एकसुरीं दोन मनां
एकठांय आयलीं तेन्ना
भिणभिणत फांतोड रात सोंपली
दोन काळजां खोशेन फुलून
एकामेकांक भेटलीं
तुजे धाडस म्हजी धादोसकाय
फावो तेन्नाच पांखां लावन हुडलीं
एकसुरी दोन मनां सासणाक
एकामेकाची जाली
जिणेक रुच आयली तेन्ना
तुजीच राखण हांवेंन मागली
पांय वाटेक म्हज्या पावलाक
सांगात तुज्याच पावलांनी दिली
थंड वाऱ्याक म्हाका
उब तुज्याच कुशीन मेळ्ळी
सासणाची तुजी सांगातीण
देवान म्हाका वेंचली
तुज्या काळजाची राणी
देवान म्हाका रचली
एकसुरी दोन मनां
एकठांय येयली तेन्ना
भिण भिणत फांतोड
रात सोंपली
दोन काळजां खोशेन फुलून
एकामेकांक भेटली.

# उतरां

थोडीं उतरां सादीं... थोडीं मोलाचीं
गुथीत चल्लीं कांतरां... नवलाची
सुखा दुख्खां जिवितांतलीं... मुळान शेणिल्लीं फुलां ओंवळाचीं
जिणे हें आशेचें... काळजाच्या खोशयेचें
काळीज हें आशेचें... जिण्याच्या खोशयेचें
उतरां हीं मोगाचीं.... फाल्यांच्या सपनाचीं
चितना हीं नाका जाल्ली... मनाच्या भंयाचीं
थोडीं उतरां सादीं... थोडीं मोलाचीं
गुथीत चल्ली कांतरां... नवलाचीं

पांय दोन आसल्यार कितें... वाटो हजार आसात
चलपी मनशां सर फुडें जावं... नाका कासात
कोण कोणाक आडायना... कोण कोणाक सांडयना
तुजेच आसा सगळे....
तुजेच पांय फाटीं ओडून कित्याक करताय वळखूंक वेळ
हांव तुजे जाल्यार तूं कित्याक न्हय म्हजो
परकेपण मनान.... पिड्ड्यार करता वेळ मोलाचो
जिणे हें घडीभर.... माणकुल्या ह्या संवसारान
पळय हो संवसार नितळ दोळ्यान ।गेरेस्त मनान

मोगान उलो मारून मेळप जाप मोगाची
दोनूच दिसाची आमी सोयरीं ह्या संवसाराची
करून दवरया खंयतरी अक्षरा आमच्या नांवाची
मनशा फाटल्यान घट्टा कांतरां ताच्या बरेपणाची
परमळ दिता फुलां ताच्या गुणाची
शेवटाक पळोवंक गेल्यार.... कोणूच न्हय कोणाची
थोडीं उतरां सादीं थोडीं मोलाचीं
गुथीत चल्लीं कांतारां नवलाची.

# उपकार

कितलीं म्हूण सपनेता... तूं सपना म्हजी
झेम पिड्ड्यार करून... तुज्या सुखाची
केंस तकलेचो... नाकशी पांयाची
कितली म्हणून करताय... तूं कुयताद म्हज्या कुडीची

काळीज म्हजें हांसयताय... दुख्खा म्हजी पेखयताय
मन म्हजे खेळयताय... सपनां म्हाका दाखयताय फाल्यांची
दोन मनाची ही काणी सांसणाची
भरून काडली तुवेंन... रिती माया आवयची

मायेन भरयलय.... नटयलय शिकयलय
संवसारान फुडें सरपाक तुवेंनूच म्हाका धुकल्लय
व्हडपण पळोवन म्हजें... भोगता सूख काळीज तुजें
सदांच म्हजेर... बेसांव तुजें

उलो तुजो लाडाचो... काळजाच्या मौलाचो
केन्नाच दुखयलो ना तुवेंन कुडको म्हज्या काळजाचो
तुज्या मुखार भासली म्हाका खूब रुपां
तुज्याच दोळ्यांनी दिसली म्हाका म्हज्या त्रासाची दोन दुख्खां

आयज माखोन म्हज्या मुखार सुखां... आर्गां दिता तुका
केली तुवेंन म्हजी सेवा उपकार तुझे आठयता
याच जल्मान तुजे सेवेक
हात म्हजे भेटयतां.

# कानी

शिरा पडो या बायल मानसाच्या जल्माक
हळद लागो गे बयनी माझ्या कर्माक
तिया तरी चार बूक शिकयल
मिया आसा अडाणी
इतका लागीं इलाय बयनी
म्हनान सांगतय म्हाजी कानी
दीस रात मिया मर मर मरतय
शेता भातान जळपान
पेज निवळ शियतय
याद आसा गो तिया
आमी शोळेन वयतालू
बराप जायना मनान
म्हाका घरान दवरल्यान
काने भाजी छिपाक लावन
म्हाका भाजारान धाडल्यान
वायस्सा व्हड जाला ता बगान
लगीन माज्या लायल्यान
कपलार पडलो तोय खोटो
सूख नाय माज्या जल्मान
कपलाक लायतय त्याच्या नांवान
मनी घालून भोंवतय या गांवान
मारून मारून म्हाका
खोपो माझो तोट्टा
काय करू
सकाळीं उडोन मी केंस उगयतय
तेच्याच नांवान माथ्यान फूल खोयतय
काय करू बाय
तिया कसा आसय
कानी माझ्या जल्माची
मिया तुका सांगलय.

# फांती

फुलां खूब आसलीं
देवळांत परातीन
सगळ्याक वाटून सोंपयली
नेमकी मोगरे फाती
तुवेंन म्हज्या हातीक तेंकयली
मोगरें फातयेन दिसलो म्हाका
खरो तुजो मो...रे
आमोरेर तिळसांजे
ती मोगरें फांती फुलत उलयली
मोग तुजो सांगत ती सगळीच फुल्ली

मोग...रे फाती सांगून गेली
मोग...रे तुज्या काळजांतलो
तूं फकत हांसलो
उखलून साद तुज्या मनांतलो
मोगरे फातयेन फुलयलो
मोग तुज्या काळजांतलो.

# पानवेलीच्या निमतान

पानवेलीच्या निमतान म्हस्काक उदक
म्हस्काक खंय खबर
म्हशींग खूब पालेला
आंगभर फांकरलो
पिसो कसो फुल्लो
पानवेल चट्टाली
म्हस्कान तिका धुकल्ली
मुळांतूच ती घुस्पली
काळजांतल्यान भियेली
कितें करतली कोणाक सांगतली
चिंतून चिंतून पालवेलीक
जालें पुरो
आयलो वारो
म्हस्काक जमनीर पातळ्ळो
पानवेलीक पळोवन
वारो हांसलो
म्हस्काचो मद जिरलो
कोणे तरी पालवेलीक लायली धिगी
पानवेल चडली
कुशीक आसली घर पेर
तिका घालो फेर
काळजांतल्या रसरसली
पालांतल्यान फांकारली
म्हशींग फोफसो
बरोच फुल्लो
मोडोन पडलो.

# सुखाचे वाटेर

सुखाचे वाटेर हांवें दुख्ख पळयलें
मरणाक कित्याक भियेवं हांव
पयलेच हांवें आवयचें मरण पळयलें
सुखाचे वाटेर
हांवें दुख्ख पळयलें
दुख्ख दुखयता
दुख्ख वेंगयता
आपल्या हातान तातूंतल्यान
भायर काडटा
दुख्ख तुका धाडस दिता
दुख्ख तुका एक जाणवाकाय दिता
बारीक मोटी किलती दुख्खां
भोगीत हांव जगलें
आसत घडेक सूख
केन्नाय मदले मर्दी घुस्पलें
इतली वळख
नाशिल्ल्या कारणान
अनवळखें म्हाका दिसलें
सुखाचे वाटेर
हांवें दुख्ख पळयलें.

## दुखोवपी

दुखोवपी मनीस तूं म्हाका
खंयच्या तोंडान सांगूंक आयलां
दुखता तें तुका
खंयच्या कानांनी आयकूं हांव
तुजी काणी
चल मातसो
म्हजे कान, दोळे, हात
दांत आनी बोट
तुका तिडकीन पळयतात
दुखोवपी मनीस तूं म्हाका
खंयच्या तोंडान सांगूंक
आयलां दुखतां तें तुका

**सौ. शितल रामचंद्र साळगांवकार**

आदल्यो- संध्या दत्ताराम नार्वेकार.

पणजे गोवा स्टेट कॉओपरेटिव्ह बँकेंत नोकरी.

साहित्याची आवड- सुनापरान्तांत, आकाशवाणीचेर कविता, उक्तें मळब, युववाणी कविता वाचन.

शिवोले मराठी साहित्य संमेलनांत कविते खातीर पुरस्कार.

